बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

# गोंयांतले रूख

डॉ. कस्तुरी नारायण देसाय



गोवा कोंकणी अकादेमी

# गोंयांतले रूख

बरोवपी :
डॉ. कस्तुरी नारायण देसाय

प्रकाशन क्र. : २४



उजवाडावपी :
शरद दळवी
सचीव,
गोंय कोंकणी अकादेमी, पर्वरी-गोंय.



छापपी :
सम्राट प्रिंटर्स,
बाणस्तारी, गोंय.

मुखचित्र आनी सजावट :

प्रेमानंद च्यारी

पयली आवृत्ती : १९९८

मोल : रु. १५/-

# GOYANTLE RUKH

WRITER :
**Dr. KASTURI NARAYAN DESAI**

PUBLICATION No. 24





**PUBLISHER :**
SHARAD DALVI,
Secretary,
Goa Konkani Akademi, Porvorim, Goa.

**PRINTER :**
SAMRAT PRINTERS,
Banastarim, Goa.

**COVER & DESIGN :**

PREMANAN D. CHARI

FIRST EDITION : 1998



**PRICE : Rs. 15/-**

१

# मोलेंची भोंवडी

शामू उमेदीन धांवत घरांत पावलो, तो आवयक उलो मारीत. ''आई, आई, फाल्यां आमी भोंवडेक वचपाचीं आसात.'' ताणें सांगलें. ''भोंवडेक? खंय वतलीं?'' आवयन विचारलें. ''आमी मोल्यां वतलीं. थंय भगवान महावीर अभयारण्य आसा खंय.''

''आरे वा! कितलीं जाणां वचपाचीं तर? आनी तुमचे टीचर बी कोण वतले मुरे वांगडा?'' - आई.

''हय तर, आमची नायक टीचर आनी दोन सर आसतले आमचे वांगडा. आमी सातवेच्या वर्गांतलीं सगलीं वतलीं.''

''तुमी अभयारण्यांत वतलीं, थंय रानवटी जनावरां बी आसतलीं. सांबाळून हां!'' आईन शिटकावणी दिली.

''जाणां आई, थंय सवणीं खूब खंय. जिवाणींय आसतात. पूण हे शिंयांचे दीस आशिल्ल्यान आमकां त्रास जावचो ना.'' टीचर सांगताली.

''थंय गवे रेडेय पळोवंक मेळटले तुमकां.''

ते राती शामूक न्हीद पडली ना. न्हिदपाचो यत्न करता तेन्ना तेन्ना सोबीत सवणीं, रंगयाळीं फुलां दोळयांमुखार नाचतालीं.

सकाळीं पांचाकूच उठून ताणें आईक आपलो डबो करून दिवपाक सांगलें. बाबाक ताकतीक करून ताचे स्कुटरीर बसून शामू बस स्टँडार पावलो.

वेळ वतालो तशीं तशीं एकएक करून भुरगीं रंगयाळे कपडे, तकलेक चेपीं, हातांत बॅगो घेवन येवपाक लागिल्लीं. सगल्यांक उमळशीक लागिल्ली बेगीन बस सुटपाची.

सात वरांचेर व्हडले बशींत बसून टीचर आयले. भुरगीं बशींत चडून आपल्याक जाय ती सुवात धरपाचे तयारेन ताकतिकेन भितर सरूंक लागलीं.

स्नेहा, कविता, अंजली सगल्याच चलयांक जनेलाकडलीं सिटां जाय आशिल्लीं. चल्यांनी

तेन्नाच जाहीर केलें - ''आता तुमच्यांनी जनेलाकडेन बसूं येता, पूण येतना आमी थंय बसतले.''

शामू बोरकार सराच्या शेजराक बसलो. अजिताक नायक टिचरी लागीं सुवात मेळ्ळी. टीचर तिगूच आयिल्ल्यान भुरग्यांभितर टिचरांवांगडा बसपाची सर्त लागली. सवाय-सातांक बस थंयच्यान सुटली.

बस स्टँडावयल्यान भायर सरतनाच बोरकार सरान सांगलें, ''भुरग्यांनो, आमी जरी आयचे हे भोंवडेक पिकनीक म्हळां, तरी हातुंतल्यान आमी कितेंय पूण शिकतले अशी आमकां आस्त आसा.'' भुरग्यांक अजाप जालें आनी मनां मात्शीं निर्शेलींय बी. खूब जाणांनी हुस्कार सोडले. कोणें एकल्यान म्हळें, ''आमी पुस्तकां, चोपड्यो खंय हाडल्यात शिकूंक?'' नायक टिचरीन हांसून सांगलें, ''शिकपाक पुस्तकांच जाय अशें ना. सगल्यांत व्हडलें पुस्तक म्हळयार आमचे भोंवतणचो सैम.'' ''सैम?'' एकाच आवाजांत सगल्यांचो प्रस्न. ''इतलें भिवपाची गरज ना. तुमी जनेलांतल्यान भायर कितें कितें दिसता तें पळोवन घेयात. तातूंत तुमकां मजा मेळटली.''

''बाबा म्हज्या! केदें व्हडलें झाड!'' अमीत मोठ्ठ्यान सांगतालो. ''कितले खांदे जमनीक तेंकल्यात!''



''असलें झाड तुमी जायतेकडेन पळयलां आसूंक जाय. ताचो आंवाठ खूब माळयांचे इमारती इतलो लांब रूंद. वडाचो रूख तो.'' बोरकार सरान म्हळें.

''आमच्या गांवांत आसा असलें झाड. ताच्या मुळां भोंवतणी आमकां बसपाखातीर शिमीटाचें पेड बांदलां.'' ''सारकें सांगलें तुवें.'' बोरकार सरान म्हळें, ''हें झाड आमकांच फकत सांवळी दिता अशें न्हय, तर जायतीं सुकणीं, चानयो तशेंच किडींक आनी ल्हान जिवांक तें आलाशिरो दिता. पावसांत ह्या झाडाक तांबडींच फळां जातात तीं सवण्यांक भोव मानवतात.''

अतुल आजुनूय त्या झाडाच्या खांद्यांविशींच

चितूंक पडिल्लो. ताणें रावं नज जावन विचारलें, ''पूण सर, त्या झाडाचे त्यो कितलेशेच खांदे सामके जमनीक येवन कशे तेंकतात?''

''अतुल, ते खरे खांदे न्हय, तीं त्या रुखाचीं हवेंतलीं पाळां. तीं त्या विशाळ रुखाक आदार दिवपाखातीर आसतात. तांकां लागून हो रूख इतली व्हडली सुवात व्यापता आनी इतलो तेंप जगता.'' सरान म्हळें. ''आंऽऽऽ! होच तो टारझनाचो रूख. टारझन ह्याच खांद्यांक गोळोग मारून एका जाग्यावेल्यान दुसऱ्या जाग्यार पावता.'' सॅमाक याद जाली.

''वा! बरें सांगलें तुवें!'' सरान म्हळें, ''तुमी जाणात? ह्या रुखाचीं पानां तिकतिकतात.''

''कितें?'' भुरगीं अजापलीं!

''हय, आनी पानाक वाटकुळें तोंक आसता. तरणीं पानां रंगान गुलाबी आनी मोव, तलम आसतात.'' - सर.

सीता आपल्याक तेंकून बशिल्ल्या मीनाच्या कानांत कितें तरी फुतफुततालें तें पळोवन रवीन म्हळें, ''फकत मीनाकूच सांगप मुगो? आमकां सांग न्हय? सांग मुगो!''

''तशें कांय ना, आं! सर, सीता म्हणटा - ताची आवय 'वडापुनव' म्हूण कितें तरी करता खंय, तो होच वडारूख काय म्हूण विचारता तें.''

''हय गो! बरोबर ताचें.'' सरान म्हळें. ''सीता, ह्या झाडाचे कितलेशेच उपेग आसात. तें किड्यां-मुयांचें, सुकण्या - सवण्यांचें सुखाचें घर हें हांवें तुमकां सांगलांच. तेभायर तें शीतळ - सावळी दिता सगल्यांक. ताचें लाकूड घट आशिल्ल्यान तंबूच्या म्हेडींखातीर उपकारता. जोताक जीं जुवां आसतात तीं हाचींच करतात. ताचीं पानां-ताळयो तर हतयाचें आवडीचें खाण! इतले तरेकवार उपेग आशिल्लें हें झाड. देखून ताची चड राखण करूंक जाय. हेच खातीर हिंदू धर्माचे लोक ताची पुजा करतात.''

''पूण सर, हें झाड घराक तेंकून बी लायल्यार वाट लागपाची! ताचीं पाळां इमारतीच्या वण्टींनी भितर सरून तांची नासाडी करूं शकतात.''

''हय, आनी हाकाच लागून हालींच्या ह्या शिमीटां घरांचे गर्दैंत वडारूख चडशे दिसनात. वण्टींच्या फुटाळींनी जावं जनेलाभायल्या सुवातींनी तुमकां केन्नाय वडाच्यो बियो दिसूं शकतात.'' सरान म्हळें.

''त्यो थंय कशो पावतात तर?'' भुरग्यांचो प्रस्न.

''हांवूय हेंच चिततालों. आमचे बिल्डिंगेचेर मदीं मदीं ह्या झाडाचे ल्हान ल्हान रोपे आयले खंय सावन?''

''हांवें तुमकां सांगूं ना, ह्या झाडाचीं फळां सुकणीं - सवणीं खातात म्हूण? तीं जेन्ना खावन हळशीक करतात, तेन्ना हळशिकेंत आशिल्ल्यो बियो थंय पडून त्यो किल्लतात, रोंपे जातात.''

''एऽ, हेंऽऽ तें झाड पळयलां? पानां काय बरीं वेगळींचशीं! कसलें तें?'' अमितान बोवाळ केलो.



''पिपळ न्हय तो?'' स्मितान म्हळें. ''हांव तीं पानां पयलीं कादेर्नांत घालून दवरतां आनी तीं सुकून नीट आनी घट जालीं काय ती रंगयतां.''

''स्मिताक झाडांचें बरेंच कितें कितें खबर आसाशें दिसता. न्हय गो स्मिता?'' सर.

टिचरीन म्हळें, ''आमच्या वाठारांतलो पिपळ हो असोच एक व्हड रूख! पानां काळजाच्या आकाराचीं आनी एक लांबोडें तोंक. खरें म्हळयार वड, पिपळ हे रुमडाच्याच कुटुंबांतले रूख!''

''रुमडाच्या कुटुंबांतले सगले रूख मोटे आनी विशाळ तर! तांच्या आंगार कितल्याशाच सवण्यां-सुकण्यांचे, किडयां-मुयांचे घराबे आनी कितल्याशाच जिवांक आलाशिरो!'' - सॅम.

''बरोबर.'' सरान म्हळें. ''हाकाच लागून हिंदू धर्मांत ह्या रुखांक सांबाळपा संबंदान, राखपा संबंदान जायत्यो काणयो आसात.''

बशीचे दुसरे कडेन बशिल्लीं भुरगीं तरेकवार रंगांच्या साबार मोदींच्या फुलांक उमेदीन-खोशयेन बोटां दाखयतालीं. मीनाचो आवाज व्हडल्यान येतालो.

''टीचर, तेंऽऽ झाड पळयलां? एक्कूय पान ना. पूण तांबड्या फुलांनी कुचकुचलां.''

''आनी तें दुसरें? धवी साल, पानां ना. एक साधूऽसो!'' कल्पना उलयलें.



''तशें कितें? तांबड्या फुलांचेंच न्हय, हांवें एक हळडुव्या फुलांचेंय झाड पळयलां, एक लेगीत पान नाशिल्लें.'' - विशाल.

''पावलीं. आमी पावलीं. देंवात देंवात.'' करीत भुरग्यांनी बशीभायर उडयो घाल्यो.

नायक टिचरी लागीं बशिल्ल्या भुरग्यांक अतुल सांगतालोः ''आमचे इतलीं झाडां तुमी खंय पळयल्यांत? कुय, कुय!''

''आमी फुलांनी कुचकुचीत भरिल्लीं, पूण एक्कूय पान नाशिल्लीं झाडां पळयलीं.''

''पूण तुमकां तरी टिचरीन म्हायती दिली. आनीक आमी झाडां पळयलीं खरीं, पूण तांचीं नांवां बी कोणाक खबर?''

''आरे व्वा! आनीक एक तांबड्या फुलांचें बिनपानांचें झाड!'' अजयान मोठ्ठ्यान म्हळें.

''बरें, आतां सगलीं हांगा येयात. ह्या झाडांचो एक गूट तुमकां सांगतां.'' टिचरीन म्हळें. ''हें पानां नाशिल्लें तांबड्या फुलांचें झाड सांवरीचें. हाका पावसांत पानां येतात, तेन्ना तें आपलें अन्न तयार करून दवरता. तशेंच थंडेंत फुलां फुलोवपाची तयारी करता.''

''डिसेंबराच्या अदमासाक पानां झडून पडटात, तेन्ना झाड तांबड्या फुलांचें कापड न्हेसता. मार्च म्हयनो येतासर ताका पळयल्यार पाचव्या कोराचीं, तांतया आकाराचीं, ५-६ इंच घेराचीं फळां वा बोंडां येतात. एप्रील-मे म्हयन्यांत हीं बोंडां फुटून धवो रसमी कापूस सगल्याक हुबता. ह्या रुखाक कांय जाण 'रसमी कापशीण' अशेंय म्हणटात.''



''आनिकूय एक झाड तांबशा नारिंगी फुलांचें आसा. पूण म्हाका दिसता, ताका थोडीं पानां आसात - तें?'' सतीशान विचारलें.

फेर्नांडीस सरान सांगलें - ''ताका म्हणटात गुलमोहर.''

''हें झाड रस्त्याकुशीक सांवळेखातीर लायतात. ह्या झाडाच्या फुलांच्यो पाकळयो बारीकसाणेन पळयात. पांच पाकळयांतली एक सामकी ल्हान, तशेंच वाटयेच्यो पातयोय रंगयाळयो आसात आनी तातुंतली एक व्हड आकाराची आसा.''

मायान म्हळेंः ''म्हाका दिसता हें झाड आमचे थंय आसा. फुलांच्यो फांतयो करतात.''

अनील मदींच उलयलोः.''आमी मुरे वाळपय गेल्ले. थंय लागींच्या रानांनी भोवंक गेल्ले, तेन्ना तांबड्या गुंज फुलांचो भार आयिल्लें एक झाड पळयल्लें. बाबा म्हणटालो ताका 'फळस' म्हण्टात.''

''इंग्लिशींत ताचें नांव जाणांत तुमी?'' - सर.

''कितें? कितें?'' - भुरग्यांचो कलकलाट.

''फ्लेम ऑफ द फॉरेस्ट.'' म्हळयार 'जंगलाची दिवटी' म्हणुंया.''

नायक टीचर म्हणूंक लागली, ''बरी याद केली तुमी. हें झाड गोंयच्या रानांनी सपसप दिसना. खंयूय आसात. पूण थोडीं. हाचींय पानां थंडेंत झडटात. ताच्या खांद्यांभितर सारकेंपण जावं कितेंय एक नेमबद्धताय नाशिल्ल्यान हें झाड फुलना तेन्ना ताचें कसलेंच आकर्शण नासता. बोडकेंशें दिसता.''

''हाचीं पानां सांवरीपरस खेरीत. पानाक तीन पाकळयो. सांवरी झाडाचें कांड आमच्या फाटी कण्यावरी.''

आनीक एक झाड आसा हळडुव्या, हुमकळपी फुलांचें. शारी वाठारांनी चड करून पळोवंक मेळटा. तें खरें म्हळयार गोंयचें थळावें न्हय. पूण भायल्यान हाडून लायिल्लें. ताका म्हणटात : बायो (Cassia Fistula)

ताची साल सुळसुळीत, रोपे आसतना गोबरा कोराची आसता. पूण झाड जाणटें जाता, तेन्ना ती खरखरीत आनी गाड कॉफी कोराची जाता.

भुरगीं चलूंक लागलीं. एक रूख दिसलो. ताका थोडे तांबडे कळे आयिल्ले दिसताले आनी फुडल्या पंदरा दिसांभितर फुलतले काय दिसताले.

शिरीषान फुलां तेळून म्हळें, ''सर, आयज आमकां फकत तांबड्याच फुलांचें दर्शन घडचेलें आसा काय कितें?''

''कित्याक रे?''

...८

''हें आनीक एक तांबड्या फुलांचें झाड!''

बोरकार सर हांसून सांगूंक लागलो, ''ह्या झाडाची खबर तुका सांगचीच पडली. हो अशोक! ताच्या फुलपासंबंदान एक गजाल सांगतात. हें झाड खंय, सुंदर चलयांचे हात ताका लागतात तेन्नाच फुलता, ना जाल्यार फुलना. आमच्यो सोबीत चलयो केन्ना पूण येवन ताका आफडून गेल्या जावंक जाय. देखून, तो आतां फुलून रावला.''

''कितें सर? ना सर! आमी ना सर!'' चलयांचो एकूच बोवाळ.

''तुमी रुपेस्त, सुंदर म्हूण कोणें सांगलें?'' चले तांकां चाळोवंक लागले. चलयो बेजार जाल्यो.

मिलींद गोंदळून गेल्लो. ताणें रावं नज जावन विचारलें, ''सर, फाटल्या पावसाक आमी शाळे भोंवतणी अशोकाचे रोंपे लायिल्ले. तांचीं पानां असलीं नात. तुमी ही चलयांची खबरूय तेन्ना खंय सांगल्या? हीं कितें दोन तरांचीं झाडां त्याच नांवाचीं? अशें कशें जातलें?''

फेर्नांडीस सरान म्हळें, ''हांव सांगतां, आयक. तुजी बारीकसाण खरीच आसा मिलींद. आमी लायिल्ले ते अशोक, ते थळावे न्हय. तांकां वळेरे रूख म्हणूं येता. कित्याक तर ते एके वळींत लायल्यार बरे दिसतात.''

''हो अशोक रूख, राजा अशोकाचें नांव घेवन आयला. राजा अशोक आपल्या राज्यांत हे रूख व्हडा प्रमाणार लायतालो सांवळेखातीर.''

''हे दोनूय रूख अशोकूच. हाका लागून गोंदळ जावचो न्हय, देखून झाडांचीं नांवां विज्ञानीक नदरेन लातीं भाशेंत दितात आनी संवसारभर एक झाड एकाच नांवान वळखतात. देखीक, हो अशोक म्हळयार 'साराका इंडिका (Saraca Indica), जाल्यार शाळेकडलो अशोक म्हळयार 'पोलिआल्थिया लाँजिफोलिया' (Polyalthia Longifolia), एकेच तरेचीं पानां आनी फुलां आशिल्ल्या एकासारक्या दिसपी झाडांक एकाच वनस्पत कुटुंबांत आस्पायतात.''

''तुमी म्हणटात ताचेवेल्यान याद जाली. पणजे हांवें गुलमोहराचे रूख सोडून आनीक एक हळडुव्या फुलांचो रूख पळयला, ताका बीन्स (Beans), च्या सांगांभशेन मोट्यो सांगो आसतात आनी पानां गुलमोहरा सारकींच! तांची मजा म्हळयार तीं रातीकडेन मेट्टात.'' रफिकान इतल्या वेळान पयलेच खेपे तोंड उगडलें.

फेर्नांडीस सरान रफिकाचीं उतरां सोंपतात थंयच आसात, ताची तोखणाय करीत म्हळें, ''तुजी बारीकसाण मात बरी आसा हां!''

नाल्लाची सोय जावं खोबरें हें तर गोंयकारांच्या जेवणात भोव म्हत्वाचें. खोबऱ्याचें तेलूय काडटात, जाका खोबरेल म्हण्टात.''

''हेच जातींतली आमची 'माडी' - म्हळयार सुपारेचें झाड! कुळागरांनी आसतात हीं झाडां.'' शामून म्हळें, ''ताचीं फळां म्हणजे फोफळां वा सुपाऱ्यो- पान खावपी लोकांचे भोव आवडीचीं. सुपारेक भायल्या राज्यांतल्यानूय मागणी आसा.''

''बसीन आमी येतालीं तेन्ना मार्गाचे कुशीक असलेच तरेचें झाड दिसलें. पूण ताका व्हडलीं फळां लांबतालीं.'' अनिलान सांगलें.

''तो भिल्लमाड मुरे! शाबू दाण्याचो रूख तो!'' सरान म्हायती दिली.

''कितें?'' सगलीं अजापलीं.

''ताचीं फळां विखाळशीं, म्हळयार ताचो रोस आंगाक लागल्यार फोड येतात.''- सर.

''असलींच पूण फळां जायनात तसलीं खूब झाडां व्हडल्या गोंयच्या मार्गांच्या कडांनी लायल्यांत. तीं पळोवंक बाटल्यांवरी दिसतात आनी तांच्या कांडार गोबरा रंगाच्यो वाटकुळयो शिरोशो आसतात.''

नायक टीचर तांचें सगलें आयकताली. तिणें मदींच म्हळें, ''तांकां म्हण्टात बॉटल पाम वा तट्ट माड! हे मुळांत वेस्ट इंडीजचे - थंयच्यान हांगा हाडले. हांचें कूळ माडाचें. सुपारी, माड, भिल्ल माड सगल्यांचें कूळ हेंच!''

जेवण जाल्लें. विसव घेवन जाल्लो. कांय भुरगीं बोरकार सरावांगडा चलूंक लागून मुखार पाविल्लीं. अतुल अजापान पळयत उरलो. तो एकाच जाग्यार उबो! हेर सगलीं चलतालीं. तो उबो रावला तें पळोवन कोणें तरी म्हळें, ''आरे कितें जालें? यो मुरे!''

''पळय तरी! धवोफुल्ल - रुशी कसो हो रूख!'' कल्पना झाडावाटेन धांवलें. झाडाक हात लायत ताणें म्हळें, ''टीचर, बसींतल्यान असलेंच झाड पळयिल्लें. याद आसा?''

''हय तर! खरें म्हळयार हांव तुमकां सांगूंक विसरलें. हो अर्जुन! ताची साल पळयल्यार, सुकून झडूंक पावल्या काय दिसता. धवे सालीच्या दोन झाडांमदलें अंतर तुमी तांच्या फुलांवेल्यान समजून घेवं येता - एक 'स्टार्कुलिया' कुटुंबाचें जाल्यार दुसरें हिरडो - घोटिंग कुटुंबाचें!''

अजयाक नांवां वळखीचींशीं दिसलीं.

मंगेशान म्हळें, ''हीं कित्याक तरी वापरतात!''



''तुंजे शिट्टुकसाणेखातीर तुका कितेंय दिवंक फावो मंगेश!'' बोरकार सरान म्हळें. तें आयकून खुसखूस सुरू जालीः ''ताकाचशें? आमकां कित्याक ना?''

सरान फुडें सांगलें, ''आयुर्वेदिक वखदांनी तांचो वापर जाता.''

''सर, पूण ह्या रानांत आमकां हिरड्याची झाडां मेळटलीं?'' अजयान विचारलें.

''हय तर, तुमी मान सकयल घालून चलत रावात्त. लक्ष दिवन पळयात. कितल्योश्योच बियो जळामळाक शिंपडून पडिल्ल्यो दिसतल्यो. तातूंत हिरड्याच्यो बियो मेळटल्योच.''

''सर! सर! हांगा कितलींशींच बारीक फळां आसात - ल्हान घोंसाळीं कशीं!''

''आरे, हींच हिरड्या फळां!'' सरान म्हळें.

''कितलें उंच झाड! पानां नात, कांय ना!'' अजय.

मंगेश सगल्यांमुखार चलतालो तो उमेदीन आड्डलो : ''सर, हें झाड पळयलां? कितलें मोटें! मानग्याचे कातीवरी साल!''

''ताका मानग्या कातीचेंय झाड म्हण्टात. तें माट्टीचें झाड!'' बोरकार सरान सांगलें. ''गोंय राज्याचें झाड - राज्यरूख!''

कल्पना मळबावटेन नदर लावन आशिल्लें काय दिसतालें. अचकीत म्हणपाक लागलें, ''पळयात सर, केदें आकांताचें झाड! पळोवन खोशी जावपाचें.''

अजयाची तकली सगल्यांमुखार धांवता, हें सगले जाणाच आशिल्ले. तो सांगूंक लागलो, ''घेर पळयला? आमी ताका वेंग मारून पळोवया?''

''हातांत हात घालून सांखळ करची पडटली.''

''चलात, करुंया.''





अमरजीत, अजय, कल्पना, मंगेश, रीना, अनिता सगल्यांनी हातांत हात घालून त्या व्हडल्या रुखाक आपले वेंगेंत हाडलो.

''चिपको झिंदाबाद!'' फेर्नांडीस सरान म्हळें.

भुरगीं अजापान पळयत रावलीं. बोरकार सरान हांसून म्हळें, ''कितें जालें कांय कळ्ळें ना?''

भुरग्यांक दिसलें, सर फकाणां करतात. तीं झाड सोडून टिचरीकडेन आयलीं. नायक टिचरीन हांसत हांसत म्हळें, ''तांकां घुस्पायतात कित्याक? सारकें सांगात तरी.''

''तूं सांग!'' बोरकार सरान म्हळें.

''आयकात, तुमी आतां जे तरेन झाडाक वेंग मारली, ती पळोवन तांकां एक याद जाली. हिमाचल प्रदेशांत एकदां अशें घडलें. लाकडाचे वेपारी पिनाचे रूख कापूंक आयले. तेन्ना गांवच्या बायलांनी मुखार येवन झाडांक वेंगो मारल्यो आनी झाडां वाचयलीं. झाडां कापूंक आयिल्ल्यांक तांणी सांगलें, ''आमकां मारल्यारूच तुमकां झाडां कापूंक मेळटलीं.'' ही चळवळ

संवसारभर नांव जोडूंक पावली 'चिपको' ह्या नांवान. 'चिपको' म्हळयार ''चिकटात, दसून रावात.'' झाडांक चिकटून रावन तांणी झाडांचो जीव वांचयलो.

एका झाडावाटेन बोट दाखयत अजयान विचारलें.

''सर, हें कसलें झाड?''

''हो घोटींग, जाका बेहडा अशेंय म्हण्टात. अर्जुन, हिरडो, बेहडो, माट्ट सगलीं एका कुटुंबातलीं झाडां. तांचें लांकूड भोव उपेगाचें आनी तांचीं फळां वखदी गुणाचीं!''

फाटल्यान उरिल्लीं भुरगीं इतल्या बोवाळांत थंय पाविल्लीं. एकल्याच्या हातांत चिकूसारकें दिसपी वाटकुळें फळ आशिल्लें. तें पळोवन मंगेशान म्हळें, ''आरे, तो चिकू तुका खंय मेळ्ळो?''

शामून ताका थांबयलो, ''येऽऽ पिशाभाशेन कितें उलयता? चिकू तो? पळय सारको! गुंड्यासारखो घट मरे! ताका खष्ट म्हणटात.''

''खष्ट? कितें करतात ताचें?''

''म्हारोगा आड तांचो उपेग जाता खंय. चुकून हें फळ चाबलें - तोंडांत ताचें कितेंय गेलें जाल्यार विखार जाता. तांच्या झाडाक खष्ट वा खष्टीण अशें म्हण्टात.''

मंगेशाच्या हाताक आनीक एक फळ लागिल्लें. ''तसलेंच म्हजेयकडेन आसा, पूण नारिंगी कोराचें!''

बोरकार सरान सगल्यांक आपलेसरीं आपोवन हाडलीं आनी शिटकावन म्हळें, ''हें काऱ्याचें वा काजऱ्याचें फळ! ह्या झाडाचीं फळां, बियो, विखारी! हें रानांत सगल्याक मेळपी मोटें झाड, हाचे वाटेक वचूं नाकात.''

''आरे, पांच वरां जालीं. आमी परतीं वचपाची तयारी केल्यार बरी न्हय?'' फेर्नांडीस सरान म्हळें.

भुरगीं बसीवाटेन धांवलीं. सीट धरून बसलीं. सगल्यांक पुरो जाल्लें. मदींच कोणतरी पद म्हणपाचो यत्न करतालो, सगलीं सूर धरतालीं. बस परती फोंडेंच्या रस्त्याक लागिल्ली....



२

# दर्यावेळेक भेट

सुटी सोंपून शाळा सुरू जाल्ली. शामू, कल्पना, अमरजीत आनी अजय एक जावन बोरकार सराक मेळ्ळे. तांणी म्हळें, ''सर, आमकां सगल्यांक झाडांच्या अभ्यासाखातीर भोंवक व्हरात न्हय.''

सरान म्हळें, ''पावसाच्या दिसांनी भोंवडी काडूंक जमतशें दिसना. पूण एका आयतारा जाल्यार हांव तुमचे वांगडा फिरूंक येतां.''

भुरग्यांनी भोंवडेखातीर खटपट करून अखेर सरां - टिचरींक घेवन भौशीक बसीन फिरूंक वचपाचें थारायलें. हे खेपे तीं दर्यावेळेर वचूंक सोदतालीं.

हे खेपेक स्पेशल बस नाशिल्ल्यान वाटेर उलोवप, मजा करप बी शक्य नाशिल्लें. देखून बसींतल्यान दिशिल्लीं झाडां, फुलां हांचेविशीं बारीकसाणेन सगलें वर्णन बरोवन दवरून बसींतल्यान देंवतकूच ताचेर विचार करूंक तांका सांगिल्लें.

बसींत भुरगीं आपलेमदींच उलयत, गजाली करीत, फुलांनी भरिल्लीं झाडां पळोवन खोशी जातालीं. नदरेक पडिल्ल्यो गजाली तीं नोंदपट्यांनी बरोवन दवरतालीं.

कल्पना आनी सीता हांकां फुलांचो चड मोग देखून तांणी सरांक - टिचरींक दाखोवंक कांय खाशेलीं फुलां हाडिल्लीं. हातुंतलीं चडशीं बरीं वासाचीं आशिल्लीं. सितेचे बॅगेंतल्यान कांय गोड परमळाचीं हळडुव्या कोराचीं फुलां भायर सरतांच अंजली, स्नेहा आनी कविताच्या तोंडांतल्यान वांगडाच उतरां फुटलीं. ''हेऽऽ हीं चाफी मुगो?'' नायक टिचरीन चल्यांक विचारलें, ''ही फुलां फुलतात त्या झाडाचें वर्णन करात पळोवया?''

''हांव सांगतां. आमच्या दारांत चाफो आसा.'' अजयान म्हळें, ''तें झाड २०-२५ मीटर उंच आनी सदां पाचवें आसता. माथ्यार दाट खांद्यांचो मुकुटसो आसता.''

''बरोबर. पूण फुलांचे कितेंय सांगूंक शकता तूं?''

''केन्नाय! ह्या फुलांक दळां आसनात आनी मदेकात आशिल्ल्या दांड्यांक केंसरदळां

आनी किंजदळां आसतात.''

''शाबास! हें फूल तुका बक्षीस.'' बोरकार सरान हांसत म्हळें. काणकोणच्या अनितान आपले पर्सींतल्यान एक मोटें धवें परमळीत फूल काडलें. नायक टिचरीन उडीच मारली अनी अनिताक म्हळें, ''अनिता, हें गो खंय मेळ्ळें तुका? हाका 'मॅग्नोलिमा ग्रँडिफ्लोरा' म्हळयार 'व्हडलें फूल' अशें नांव आसा. थळावें नांव कंवठी चाफो.''

''आमचे बागेंत ह्या फुलाचो एक रूख आसा. ही हांगाची जात न्हय. आमी बंगलोरसावन हाचें एक कलम हाडिल्लें.''

''हे दोनूय चाफे एकेच कुळयेंतले. आनी चांफो हें धर्तरेर सगल्यांत पयलीं मेळिल्ल्या रोपांभितरलें एक.'' इतलेभितर कल्पना आपले बॅगेंत हात घोळयत आशिल्लें. पूण तातुंतलीं फुलां दाखोवंक फाटी फुडें जातालें.

फेर्नांडीस सराची नदर ताचेर आशिल्ली. ताणें म्हळें, ''बॅगेंत कितें आसा? सगल्यांक दाखय गो कल्पना.'' कल्पनान लजेत म्हळें, ''सर, फूल सोबितूय ना आनी मोटेंय ना. तें पाचव्या रंगाचें फूल.''

''फूल आनी पाचवें? बाय गो, तुवें कळो हाडला आसतलो आनी ताका फूल म्हण्टा आसतलें.'' शामून ताका तिडावपाची संद सोडली ना.

''ना सर! पळय सर, हें फूल न्हय?'' म्हणत कल्पनान तें पाचवें फूल दाखयलें.

नायक टिचरीन फूल हातांत घेवन म्हळें, ''खरें तुजें. हो हरवो चाफो. ताका घमघम सुट्टा. कल्पना, ह्या फुलाचो रोंपो तुमच्या पोरसांत आसा काय कितें गो?''

''हय टीचर, रोंपो म्हळयार गांचार धरून वयर चडपी झोंप कशें?''

''हाका चाफो म्हण्टात जाल्यारूय तो चाफ्याचे कुळयेंतलो न्हय. तो सिताफळ, रामफळ हांचे कुळयेंतलो.''

''हय, हय, सिताफळाकूय पाचवेंच फूल.'' मंगेशान कितल्या वेळान आतां तोंड उगडलें.

अंजलीन चल्यांक चाळयत म्हळें, ''पळय आमी चलयांनी कितलीं फुलां हाडल्यांत वळखूंक, तांचो अभ्यास करूंक. तुमी चले उरले न्हिदो काडीत.''

''चाफ्यांभायर आमचेकडेन आबोलीं आसात, जायो आसात, जुयो आसात. तुमचेकडेन आसा कितें?'' श्यामूच्यान आतां वोगी बसूंक जायना जालें. ''आगो, राती आमगेर फुलिल्लें

ब्रह्मकमळ, तें कशें हाडूं?''

अमरजीत मुखार येवन म्हणूंक लागलो, ''ब्रह्मकमळ? पूण तें फकत हिमालयांतच मेळटा खंय? म्हाका सांगलां कोणें तरी.''

''खरें रे तुजें.'' हो प्रस्न सोडयत फेर्नांडीस सर सांगूंक लागलो, ''खरेलें ब्रह्मकमळ फकत हिमालयांतच फुलता हें खरें, पूण तसलेंच रातचें फुलपी, मंद परमळाचें फूल हांगाय मेळटा. ताचें खोशेलपण जाणात तुमी?''

अजयान वेळ वगडायनासतना सांगलें, ''ताचो रोंपो फुलांतल्यान जाता. फूल रातचेंच फुलता आनी सकाळीं बावता.''

''पानाचो रोंपो, ताका येता कमळ, जाल्यार तें पर्णकमळ जालें ना?''

सगलीं हांसलीं. ''हय हय, बरोबर. तुमी घराभोंवतणच्या सगल्या फुलांचो बरो अभ्यास केला. पूण आतां येतना वाटेर दिशिल्ल्या फुलांचें, रुखांचें कितें तरी तुमी बारीकसाणेन पळोवन बरोवन दवरलां व्हय?''

आपणें बरोवन दवरिल्ली जाणकारी सगल्यांत पयलीं दाखयली अनितान.

''सर, हांवें बागांनी गुलाबी आनी धव्या फुलांचीं कांय झाडां पळयिल्लीं, पाकळयो दोडिल्ल्यो कश्यो!''

''हांवूय तसल्याच फुलांचें विचारूंक सोदी. पूण तें झाड बागेंत बी नाशिल्लें, तें आशिल्लें कुंडयच्या सड्यार.'' अतुलान मुखार म्हळें, ''फुलांचो एक त्रिकोनी गोंडोसो जाता. झाडाचें खोड गुळगुळीत, साल गोबरा कोराची आनी ती सोलून सुटून वताशी दिसता.'' इतलो वेळ वोगी आशिल्लो कामत आतां उलयलो.

''तें झाड हांवेंय पळयल्लें. ताका नाणो म्हण्टात आनी ताचें वनस्पत विज्ञानीक नांव जावन आसा 'लेगरस्ट्रोमिया.' ताच्यो जायत्यो जाती आसात. थोड्यो दोंगरामुळसांनी जातात, जाल्यार थोड्यो बागांनी दिसतात.

मीनाक दिसलें, आपणें पळयिल्लें झाडूय वळखून घेवचें. ताणें वर्णन वाचीत म्हळें, ''हांवें पळयिल्ल्या झाडाक मोटीं मोटीं पानां, धवीं मोटीं फुलां त्रिकोनी गोंड्यांनी आसात. थोडीं झाडां खासा लावन वाडयिल्लीं जाल्यार हेर शारांत मदीं मदीं आसात.''

''तुवें भोव म्हत्वाचें झाड पळयलें. ताका कोंकणींत सायल म्हणतात आनी सागवान वा

टीक ह्या नांवान हेर भासांनी वळखतात. हाचें लाकूड फर्निचर करूंक खूब उपेगाचें जावन आसा. ह्या झाडाची चड लागवड करप बरें न्हय. कित्याक तर, हें झाड जमनीपोंदचें सगलें उदक वोडून घेवन ते जमनींत हेर कसल्याच झाडांची बरे तरेन वाड जावंक ती जमीन निसूक करता.'' बोरकार सरान म्हळें.

''पूण सर,'' विशालान प्रस्न काडलो, ''तशें खंयच्याय एकाच झाडाची चड लागवड केल्यार ताचे वायट परिणाम जातलेच न्हय सर?''

बोरकार सरान हें मान्य केलें.

एकेच जातीच्या झाडाची लागवड करतात ताका 'मोनोकल्चर' म्हण्टात. निलगिरीची अशी लागवड जमनीक मारक आसता हें सिध्द जालां. तिका लागून जमीन सुकी जावन ती भोंवतणी हेर कसलींच झाडां वाडूंक दिना हें तर जालेंच. तेभायर निलगिरीच्या कडक वासाक लागून सुकणीं-सवणींय ते सरादीक भोंवनात. अशी लागवड करचे आदीं रोवपाच्या झाडांसंबंदान सादूर रावप गरजेचें. थळावीं झाडां जाता तितलीं लावन राखूंक जाय.''

''म्हाका दिसता, अशेंच भरपूर लायतात, पूण तें खरें हांगाचें, थळावें न्हय असलें झाड म्हळयार आकेशिया.'' अजयान म्हळें.

''सारकें तुजें.'' कामत सर सांगूंक लागलो, ''तुमी जाणात, आकेशियाच्या मुळांनी जे किटाणू आसतात, ते जंय जमनीचो वयलो तळ तयार जावंक जाय थंय उपेगी पडटात. देखीक, चिऱ्यांच्या सड्यार वा खणींचे मातयेर. देखून जंय वयली जमीन बरी आसा आनी हेर कसलीय लागवड करपाक शक्य आसा थंय आकेशिया लावंक जायना.''

''सादारण लागवडीखातीर जांबळ, चींच, भिरंड, कोडूलिंब हीं भोव बरीं.'' नायक टिचरीन म्हळें, ''तांची सावळी बरी मेळटाच, ते भायर फळांय भोव उपेगी आसतात.

''कोडुलिंबान प्रदूशीत वातावरणूय शुध्द जाता.'' बोरकार सरान मोलादीक म्हायती दिली.

''न्हंयचे कडेर जावपी झाडांचें एक खाशेलेंपण आमी पळयलां. तुमी सांगशात?'' चलयांनी एका सुरांत विचारलें.

''तुमी कितें पळयलां तें बारीकसाणेन तुमचे भितरलो कोण सांगूंक शकता?'' कामत सरान विचारलें.





अनिता तयार जालें. ताणें म्हळें, ''सर, रायबंदरा सुकते वेळार न्हंयक उदक साप्प उणें आशिल्लें. न्हंयेदेगेर चिखलांत आमी कांय झाडां पळयिल्लीं. तशीं झाडां दाट पानांचीं सादींच, पूण तांकां म्हसंगा सांगांवरी कितेंतरी लांबतालें. चिखलांतल्यान बडयोश्यो वयर सरिल्ल्यो दिसताल्यो आनी झाडाक आदाराखातीर वडाच्या झाडाक आसतात तशीं पाळां दिसतालीं. पूण खांदयांवेल्यान न्हय, झाडाच्या कांडाच्या सकयल्या भागांतल्यान. खाशेलेंपण सांगपाचें जाल्यार असलीं झाडां सुके जमनीर केन्नाय पळोवंक नात.''

''तुमचें वर्णन ज्युस्ताज्यूस्त.'' कामत सरान म्हळें.



''इश्टांनो, तुमी पळयल्ल्या झाडांक कांदळिणी म्हणटात, त्या खाशेल्या पंगडांतलीं. जे मातयेंत हीं झाडां जातात, ती Physiologically सुकी, म्हळयार हे मातयेंत उदक आसता, पूण तें आनी माती दोनींतय व्हड प्रमाणांत खार आसता. हीं झाडां फकत दर्यावेळेर आनी Back-water वाठारांनी जातात. हे कठीण परिस्थिती आड झुजपाखातीर ह्या झाडाची एक खाशेली मांडणी आसा. नेटाच्या मोडांतल्यान झाडाक आदार दिवपाचें काम पाळां करतात. तुमी बडयोशो पळयल्ल्यो तीं स्वास घेवपाचीं पाळां. बारीकसाणेन पळयल्यार तांचेर छिद्रां वा बुराकशे दिसतले. तातुंतल्यान हीं झाडां वातावरणांतलो प्राणवायू आनी कार्बन डायोक्साइड हांची अदलाबदल करतात. त्यो सांगोशो दिसतात ह्यो तर अप्रुपाच्योच. माती खारी आशिल्ल्यान बियो इतले खर खारसाणीत तगूंक शकनात. देखून हीं झाडां कांय काळ तांकां आपल्या आंगार वाडूंक दितात आनी फावोशी वाड जातकच तांकां जमनीर आपले आपूण वाडूंक दितात.''

''म्हळयार, त्यो सांगो म्हणचे बियो, सर?'' अजयान अजापान विचारलें.

''हय.'' कामत सरान सांगलें, ''हे तरेच्या किल्लपाक (Germination vivipary) अपत्यजनन वा जल्म दिवप म्हण्टात; जशें थानांच्या (सस्तन Mammals ) आनी वयल्या पांवड्याच्या

...२०

जनावरांनी जाता. म्हळयार ते एकेभशेन व्हियेवप. वडील खाराआड राखण म्हूण ह्या झाडांक खाराग्रंथी आसतात. तांचे वटयां चडींत खार भायर वता.''

आतां मंगेशान प्रस्न केलो, ''सर, ह्या पंगडाचो सैमांत कितें म्हत्वाचो वांटो आसा तर?''

''हय तर!'' कामत सरान सांगलें, ''हीं झाडां नाजाल्यार आमचो पुराय वेळेवाठार कातरून वचपाचो. ते भायर हीं झाडां आनी तांचे भोंवतणचो जागो म्हळयार जायत्या सुकण्यांची आनी सुंगटांची जल्मसुवात. हीं झाडां दितात तें टॅनिन जायत्या उद्‌देगांनी वापरतात.

इतलेमदीं भुरगीं वेळेर पावलीं आनी जायत्या जाणांक रेंवेन भरिल्ले देगेवेल्या कांय झाडांचे कांटे लागून दूख जाल्ल्यान तीं आड्डलीं, ''टीचर, हें कितें? कितले कांटे?''

''सांबाळून.'' नायक टिचरीन म्हळें, ''हीं झाडां तुमकां दुखयनात, तुमीच येवन तांकां त्रास करतात. तांकां म्हण्टात कांटेली, स्पिनिफेक्स. तीं रेंव धरून दवरतात. कांदळिणी जश्यो चिखलाच्यो धडो फुटपाक दिनात, तेचभाशेन हे रेंवबांदे रेंवट देगेक भितर येंवक दिनासतना दर्याकूय जमनीकडेन येवपाचें आडायतात.''

कांय मीटर चलून वतकूच भुरग्यांक नारिंगी रंगाचीं घांटेच्या आकाराचीं फुलां आशिल्ल्यो कांय वाली दिसल्यो. सीमान तातुंतल्यो कांय काडून नायक टिचरीक दाखयल्यो. ''टीचर, हीं झाडांय रेंवबांदेशीं दिसतात. हांवें एक रेंवेतल्यान काडूंक केल्लें, पूण तें बरेंच भितरमेरेन आसा..''

''हय, ही चांदणवेल (आयपोमिया). हिवूय एक रेंव धरून दवरपी वनस्पत. हीं बारीक झाडां नाशिल्लीं जाल्यार आमचे जमनीवयली वनस्पतजीण आसप शक्य नाशिल्लें. कित्याक, तर दर्या पुराय जमीन कातरून उडयतलो आशिल्लो आनी सगल्याक रेंव पातळिल्ली दिश्टी पडटली आशिल्ली.''

निवळसो रेंवेचो एक जागो पळोवन भुरगीं झाडांच्यो खबरी उलयत जेवपाक बसलीं. अतुल तांचेमदीं नाशिल्लो. सगल्यांक अजापशें दिसलें. नायक टिचरीक हुसको जालो. ती पंगड सोडून एकटीच तळपादिकेन चलूंक लागली. तिचेवांगडा अजय, अमरजीत आनी शामू आयले.



तांकांय चिंता जाल्ली. कांय मिनटां चल्ले उपरांत शामूक अतुल ल्हारांवांगडा आयिल्लें कितेंतरी रेवेंतल्यान धरता तो दिसलो. भुरगे टिचरीफुडें धांवत वचून अतुलाक मेळ्ळे. तांणी अतुलाक म्हळें, ''अतुल, कितें हें? कितें करता तूं? आमकां हुसको जाल्लो. आमी सोदताले तुका.'' अतुल थोडो भिल्लोसो दिसतालो. इश्टांकडेन पळयत म्हणूंक लागलो, ''पळयात म्हाका कितें मेळ्ळें!'' ''आरे, हीं झाडांशीं दिसतात मुरे.'' भुरग्यांनी ताच्या हातांत पळयत म्हळें. इतलेभितर नायक टीचर थंय पावली. तिणें म्हळें, ''अतुल, तू हांगा कितें करता?....'' ''टीचर, हांव असोच चलतालों आनी हांगा म्हाका हीं झाडां ल्हारांचेर आयिल्लीं मेळ्ळीं.'' नायक टिचरीन तीं पाचवींच झाडां घेवन म्हळें, ''पंगडांतल्यान कुशीक येवन बरें केलें ना खरें. पूण इतलीं सुंदर बरीं दर्यांतलीं झाडां तुवें सारकीं पळयिल्लेखातीर तुजी तुस्त करूंक जाय.''

''टीचर, उदकांत फकत हेंच झाड मेळटा?'' अतुलान भुल्लुसून विचारलें.

''ना रे.'' नायक टिचरीन म्हळें. ''भुरग्यांनो, तें झाड घेवन या आमी. हांव उदकांतले वनस्पतीसंबंदान सगलें सांगतां तुमकां.'' भुरग्यांनी तसलीं थोडीं झाडां वेंचून घेतलीं आनी वेळेवेल्यान पंगडांतलीं हेर भुरगीं बशिल्ले वाटेन तीं चलत रावलीं.

हांगा पंगडांतलीं हेर भुरगीं नायक टीचर आनी त्या चल्यांची वाट पळयत आशिल्लीं.

भुरगे थंय पावतांच कल्पनान अतुलाक तापयत म्हळें, ''अतुल, कितें रे? तूं कोणाक सांगनासतना कसो गेलो? आमी सगलीं हुस्क्यांत पडलीं.''

नायक टिचरीन अतुलाची बाजू सांबाळपाखातीर म्हळें, ''तुमी जाणात भावंडांनो, अतुलान आमकां सांगनासतना एकलो वचपाची चूक केली खरी. पूण ताणें कांय सोबीत झाडांच्यो पती एकठांवन तिची भरपाय केली. तुमी सगलीं अशीं लागीं येशात? हें उदकांतलें झाड दाखयतां तुमकां.'' सगल्या भुरग्यांनी नायक टिचरी भोंवतणी गर्दी केली. तिणें तांकां ते वनस्पतीविशीं सांगपाक सुरवात केली. ''ही पळयात, दांडो आनी पानां आशिल्ली उदकांतली वनस्पत. तिका आशिल्ले वाऱ्यान भरिल्ले बोमाडे तिका उदकांत उफेंवंक आदार दितात. हें झाड फकत दर्यांतूच जाता.''

''मॅडम, दर्यांत मेळपी हें एकूच झाड?'' सितेन विचारलें.

कामत सरान म्हळें, ''ना, ना, दर्यांत तरेकवार ल्हान-मोटीं झाडां मेळटात. तातुंतल्या थोड्यांचे रंगूय गाड आसतात.'' ताणें मुखार म्हळें, ''सगलीं झाडां जर उदकांत उफेतात जाल्यार हेच तरेचें झाड मेळपाचें कारण कितें?'' असो अमरजिताचो प्रस्न आशिल्लो.

''ना रे बाबा.'' नायक टिचरीन समजायत म्हळें, ''अशे बोमाडे सगल्यांक नासतात, देखून सगलीं झाडां उफेंवंक शकनात. थोडीं तळपांक दसून आसतात. जाल्यार थोडीं निखटीं दोळयांनी दिसनात इतलीं बारीक आसतात. ते भायर दर एका झाडाक वांचपाखातीर एक थारायल्लें तापमान जाय पडटा. हें झाड आमच्या दर्यांत भरपूर मेळटा.''



''तशे आमी उदकांतल्यो वनस्पती जमोवपाचे खासा यत्न केल्यार आमकांय तातुंतल्यो बऱ्योच वळखुपाक यश मेळूं येता.'' बोरकार सरान सांगलें.

शामून त्या झाडाचें नांव विचारलें, नायक टिचरीन ताका सरगॅसम (Sargassum) म्हणटात अशें सांगलें.

सीमा नकळटना उलोवन गेलें, ''पूण मॅडम, अश्यो जायत्यो हेर वनस्पती आमकां झरी, व्हाळ, तळीं आनी कोंडांनी पळोवंक मेळनात तर? तळीं

जाल्यार असल्या वनस्पतींनी पाचवीच जाल्लीं दिसतात.''

''वा! सारकें तुजें.'' नायक टिचरीन म्हळें, ''ह्यो वनस्पती खाऱ्या उदकांत वा साव्या उदकांत आसूं येतात. त्यो उफेल्ल्यो आसूं येतात वा दशिल्ल्यो. तांचो आकार आनी मेजमाप हातूंत ते तरेन अंतर दिसता.''

''सर, जाल्यार आमच्या गोंयांत इतल्या तरांच्यो वनस्पती आसात म्हळयार आमी खरे नशीबवान तर?''

विशालान आपलें मत मांडलें.

''हय तर!'' कामत सरान म्हळें, ''गोंयांत दर्यावेळ धरून ते अस्तंत घाटमेरेन साबार तरांची जमीन आसा. तश्यो चिखलाच्यो जमनी आसात आनी वनस्पतींच्यो साबार जाती जावपी भितरल्या वाठारांतल्योय जमनी आसात.''

''आरे, साडेचार जालीं! आमी आतां वचपाची ताकतीक करुंया.'' बोरकार सरान घड्याळींत पळोवन अजाप जावनशें म्हळें.

भुरग्यांनी बॅगो भरून खोशयेन परतेची वाट धरली.

❐ ❐ ❐



# गोवा कोंकणी अकादेमी

## बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

### : अकादेमीचीं प्रकाशनां :

१. काणयां झेलो : भाग १ -- श्री .माणिकराव गावणेकार
२. काणयां झेलो : भाग २ -- श्री. माणिकराव गावणेकार
३. गोंयांतले रूख -- डॉ. कस्तुरी ना. देसाय
४. गलिवराची भोंवडी -- सौ. माया अ. खरंगटे
५. स्वामी विवेकानंद -- डॉ. विनय वा. मोरजकार
६. आटकुळें -- पिटकुळें -- श्री. अभयकुमार वेलींगकार

---

### बालसाहित्य प्रकाशन येवजणेखाला छापून आयिल्लीं प्रकाशनां :

१. जादुचो कोंबो -- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
२. बाबू -- श्री. एन्. शिवदास
३. दीपत्कार -- श्री. लक्ष्मीदास बोरकार

---


गोवा कोंकणी अकादेमी

पर्वरी - गोंय